# गोंय म्हजे भुंये भारत म्हजे माये

कवी : पुरफिरयो सिल्व लोबो









# गोंय म्हजे भुंये
# भारत म्हजे माये




: कवी :

पुरफीर सिल्व लोबु






प्रफुल्ल प्रकाशन
असोळणें–गोंय

# गोंय म्हजे भुंये
# भारत म्हजे माये

कवितांचो झेलो

•

उजवाडावपी :

**पुरफीर सिल्व लोबु**

प्रफुल्ल प्रकाशन

असोळणें, गोंय–४०३ ७०१

•



मुद्रण :

रवि मुद्रणालय

बेळगांव

•

पयली खेप : मार्च १९९२

म्हजीं सर्ग. भयण आनी भावोजी

**श्रीमती मालाकीन**

आनी

**डॉ. बोनिफासियु पायिश**

हांच्या गोड उगडासाक

हो म्हजो पयलो–वयलो

सुपुल्लो कवितां–झेलो ओंपतां.

**– पुरफीर**

## अनुक्रम

# पुरफीरबाबाल्यो कविता

पुरफीर सिल्व लोब हें फक्त खंयच्या तरी धा जाणांमदलें एके व्यक्तीचें नांव न्हंय. सगळयांत पयलीं म्हळयार तें एक झुजारी परंपरेंतल्या व्यक्तीचें नांव. ते उप्रांत सांगपाचें म्हळयार तें एका पत्रकाराचें–बरोवप्याचें नांव. एके तीव्र राष्ट्रवादी भावनेन जिवीतभर खतखतपी मनशाचें तें नांव. आनी विशेष म्हळयार, जातकच जो कवीचें फुलार सपनाळें मन घेवन आयला अश्या एका म्हींवाळ मोगाळ काळजाच्या मनशाचें तें नांव. आज जी गोंयची नवी तरनाटी पिळगी वयर सरता, तिचे मुखार घडये हें नांव तितलें झळकना जायत. कारण, कसलेंय ल्हानसान नीब घेवन, एकसारकें भौशीक मळार फांकत रावप हें ह्या नांवाच्या मनशाच्या सभावांत ना. आपणाले तांकीप्रमाण, कसलेच भोव–भोवस्ताळे आनी गाजवाज करिनासतना, देशाखातीर वावरप, मायभाशेखातीर वावरप आनी हो वावर करता आसतना सरस्पतीच्या पावलांचेरय आपणाले रचनेची फुलां ओंपीत रावप ही जाची सभावीक चाल–चलणूक ती ही व्यक्ती– कोंकणी वावुरप्यांच्या परिवारांतलो आमचो इश्ट आनी सांगाती पुरफीरबाब !

साप्टींतल्या स्वतंत्रतायमोगी आनी राष्ट्रवादी वावुरप्यांच्या सांगातांत वाडिल्ल्या आनी महामना डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांस कुंज्य हांचेसारख्यांची प्रेरणा फावो जाल्ल्या पुरफीरबाबान तरणे पिरायेरूच, गोंयचे सुटके चळवळींत वांटो घेतलो. ते खातीर आग्वादाक बंदखणीची ख्यास्तय भोगली. ते उप्रांत नेमाळयांनी काम करतना जावं, कोंकणीच्या मळार वावुरतना जावं वा शिक्षक म्हणून धाकटुल्या भुरग्यांक शिकयतना जावं, राष्ट्रीय व्हडवीक, संस्कृताय आनी देशमोग ह्या दायजाचोच विचार–प्रचार ताणें केलो. आनी हे करतनाच लेख, काणयो हांचेवांगडाच पुरफीरबाबान कवितेकूय होरायली. हातूंत शिशुकवनां धरून सगळे तरेच्यो कविता

आसात. आनी ह्या कवितांमदें जो एक मुखेल असो सूर आसा तो म्हळ्यार पुरफीरबाब ज्या आपणाल्या समकालीन घडण्या-घटितांचो वांटेकार आनी गवाय जाला तांचो.

जो झेलो पुरफीरबाव आज तुमचेमुखार घेवन येता तातूंत अश्याच कांय रचनांचो आस्पाव जाल्लो आसा.

ह्या झेल्यांतल्या कवितांनी अठरा जून, डॉ. लोहिया, स्वतंत्रताय, सुटकेउप्रांतचें फुडाराचें सपन, नव्या गोंयांतलो नवो गोंयकार, तांची नव्या काळांतली दायकी, मनाचें मेकळेपण, तांतूतल्यान दिसून येवपी उदारवादी दिश्ट हें सगळें कसल्याय आडमोडणाबगर मनांतलो सबावीक उमाळो कशें उक्तें जाता. कोंकणी भास, तिचेविशीं कोंकणी उलोवप्यांची लागणूक ह्या संबधांत तर कवी सरळच कितें सांगपाक जाय तें सांगून वता. तेच बराबर आवयभाशेक खोंटावन इंग्लेजोसारके परभाशेक पोटलावप्यांक कशे खुंट लावपाचे आनी खुंट लायल्यात तेंय पळोवंक मेळटा.

पुरफीरबाबाची नदर खंयचेय अवस्थेंत हातपाय गळसणावपी नदर न्हंय. अनिष्टांतल्यान इष्टाचो ती वेध घेत आसता हे नदरेक,

स्वार्था दीस सरतले
निसुवार्था दीस उदेतले

ह्या खर आत्मविस्वासाची झगझगीत देग आसा. आनी देखूनच कवितेच्या अक्षर रुपांतल्यान एकसाग्को सादत रावपी ह्या आत्म-विस्वासाच्या नीज आनी निर्मळ उतरांक, नदरेक दिसना पुण काळजाक झोमता असो एक खोल अर्थ आसा. ह्या अर्थाक तांचें आपले म्हूण एक वजनूय आसा.

पणजी– २६-१-१९९२ **– नागेश करमली**

# १८ जूनाच्या दिसा ....




दीस मंगळाराचो
१८, जून म्हयन्याचो
१९४६ वर्साचो
तोच शुभ दीस तो
ज्या दिसा गोंयां आमच्या
क्रांतीचो बावटो अुबलो
'आयलो रे! आयलो रे!!
लोहिया आमचो
आयलो रे!
गोंयां आमच्या
पावलो रे!
मडगांव शारां
लायलो रे
हाडललो बावटो
भारताचो
मडगांव शारां
लायलो रे
तिरंगी बावटो!
आयलो रे! आयलो रे
लोहिया आमचो
आयलो रे!'... ...



लोहिया आमचो
येतना, आयलो
घेवन सब्द
गांधीजींचो
येवचे येवन
लायली ताणें
आमचे मर्दें
ज्योत स्वतंत्रतायेची.
लोक जागे जाले
धांवंक लागले
कोण अुगत्यां
कोण चोरयां
अुल्याक दियित अुलो
खांदया दियीत खांदो
कामां घुसपले
कर्तव्यां बुडले
कश्ट त्रासां
जियेवन जिवीत
सुख-संतोस
घरा-दाराचेर
विसर घालून
अुदक सोडून
स्वतंत्रताये देवीचे
पुजे लागले.

आ ऽऽ
आग्वादच्या शिवा !

तुजे वांगडा
गोंयकार खें अुठले ...
ते अुठत रावले
चलत ... मरत
पावल मुखार घालीत.

बळयाक बळी
मेळसर
जुलमाचीं कोटां
मोडसर.
भारतीय सत्याग्रही
आनी सैनिक
गोंयकारांच्या आधाराक
येयी पासून...

माड-माडयां
पांचव्या सत्र्यां
हांगा दाटी;
अुदकान ओली
हांगची लाल माती.
गोंय आमचें,
पोरनें, माणकुलें
घर धर्माचें,
पाळणें मनशाचें
खाण सुन्दरतायेचें

धर घट मतीं
गत घे कुडीं

भाटांत, नाल्लां–कळशे
भागराचें भात
नाचता शेतांत;
कडो भल्ला म्हणून,
धादोसपणान
हांसतलें घर.

कुळागरां आमचीं
भल्ल्यां सुपाऱ्यांनी;
पोरसां शाकभाजयांनी.

मार्गांनी पडला
बिजले अुजवाड
मोटर–बसींची
चेपट पळोवंची
जरूय तांतूंत जाल्या
गर्दी सदांची
खबर सोडली जाल्यार
पावसा म्हयन्यांची;
लोकां धांव–पळीचें
चोय रे! वाडटें बळ.

घे रिक्शो, सायकली,
मोटर–सायकली,
टॅक्सी खोंटांनी,
प्रायवेटी राशींनी;
पिक्चर पळोवंक

येतात दादले–बायलो
गांवांतसून शारांनी
चेपून बसींनी.

रान्नी मागल्थान
गोबर जसो–
येवजणे म्हऱ्यांत
दुभाव आसचोः
कर्तुत्वा तेंकून
अडचण अुरची;
विचारा बगलेक
प्रस्न अुब–रावचो.

देखून मात पुण
सोडनाका धीर
भावार्थ तुजो
कर जिवो थीर.
जायतीं वर्सां
तूं अुरतलो
जाल्यार जिवो
सुखी जिवा
बिबो घालनाका,
तुज्याच जिवा
फुकट त्रास
जिखून घेवंनाका;
बऱ्या गोंयकारा !
जमता थंय तुका

बांयंत. . . तळयेंत
नुस्तें पोसच्याक,
वेळेर, न्हंयें—देगेर
मळार, मरडार
लावच्याक झाड
विसरनाका;
पाचव्यांत सैमाच्या
भर घालून
शाबासकी जोडूंक
फाटीं सरनाका.

नाका ध्यास्त
चुकिकूच रुयास्त
काळखांत अुडय
पेटोवन वात;
दिसुंदी
तरन्या, अनकत्या
वाटेमार्ग्याक
सरळ, नीट वाट.

गोंय म्हजे भुंये गे !
भारत म्हजे माये गे !
म्हज्याच साद्या
बरेपणा खातीर
मोग तुजो करतां गे
मोग तुजो करतां !



फात्राची, लाकडाची
मुर्त, पुतळो करतां;
मातयेंत तुजे
रोयतां, पुरतां
पिकां काडटां;
हवेंत तुजे
स्वास घेतां
जगतां वाडटां
उदकान तुज्या
न्हातां–धुतां;
तें पियेवन
तान मारतां,
ताचें हांव गे,
आजमेत तीर्थ
सुद्दा करतां.

भूक मारूंक गे
दाणे, फळां, चणे
रोवन खातां;
पाळां–मळां
साली–वाली
घेवन आधाराक
सांबाळटां भलायकी.
आनी जिणेच्या
सुख–दुखाच्या
जिनसांवार प्रसंगांत

सोब करच्याक,
मोग दाखयच्याक
पानां-फुलांचो
सदां अुपेग करतां.

गोंय म्हजे भुये गे !
भारत म्हजे माये गे !
तुजेच मातयेंत
आनी हवेंत
अुपजल्ले
वस्तूं-जिनसांची
म्हाका गरज व्हडली.
पडटा, हय पडटा
पावला कणकणी
हें अुगत्यां कळून येता
देखुनूच हांव
तुज्या अुपकारां
अुरतां गे, हय अुरतां !
म्हज्याच हिता खातीर
हांवें तुजो मोग
करूंक फावो गे !
आनी म्हज्याच
हिता खातीर
हांवें म्हज्या
बरोबरच्यांचो,
म्हज्या गांवभावांचो,

म्हज्या देसभावांचो
मोग करूंक फावो गे !
मोग करूंक फावो.

भरतकूच हांव
हवेंत वो मातयेंत
परतून परततां,
हेच पवित्र
हवेंत वो मातयेंत
म्हजे सगले
आजे–पणजे–शेणजे
मेले तशे
गेल्ले गे !
तेच पवित्र हवेंत
तेच पवित्र भुंयेंत
हांवूय वतलों गे !
देखुनूच अंतस्कर्णांत
म्हज्या आसा रिगलेलो
मोग खर, प्रेम गाढ
गोंयचे भुंयेचो
भारत मातेचो.

वता थंय जगार
आवय भूंय म्हळयार
मनशाचेर येता खंय
भार, भावने भार

आतां समजता....
हे भावनेचें
म्हाका सार
आनी म्हज्याय
काळजांत मारता
खोशे ल्हार
१८-६-६९

-※-

# स्वतंत्रताये दिसा निमतान

मेकळिके हुंवरान
बुडली धर्तरी

जूनांतल्या पावसांत
धांवूं लागच्यो
व्हांवूं लागच्यो
दोंगरी व्हाळयो
हुंवारी व्हाळे.
मागीर खंय खंय
व्हाळयो व्हाळे
मेळून जावच्यो
न्हयो... नदी व्हडल्यो

नदी सगळ्चो
चामडया अुदकान
भरून वचच्यो.
अुदका वांगडा
पेंवत... हालत धोलत
वयल्यान सकल
सकयल्यान वयर
घुंवत, घुंवत
देंवून येवचे
बोंडे, कापीं
चुडटां अर्दीं
चुट्टचो, पिडे
तणा–आशयो;
हुंदरांनी पोकरलेले
नाल्ल आडसरां
रितीं, रितीं
आदळत, आदळत
बोबाट करीत.



हेच भाशेन
स्वतंत्रताये फांत्यार...
मेकळिके हुंवरार
आयली गोंयच्या गांवार
मुकी पिडा, वायट वायट

सुटलीं तोंडां
गोंयकारां हजार.
गरम जालीं
थोडीं बोडां.

कोण अेंडे,
कोण बडबडे
कोण मस्ते
कोण नश्टे
आडांगी,
फटकिरे
संदीसादू;
कालचे, हय रे
'VIVA PORTUGAL !'
'AQUI E' PORTUGAL !'
आयज जाले
' जय हिन्द !'
' भारत माता की जय !'
कालूच जे
' मी मी '
म्हणटाले :
' म्हजे परस
व्हडलो कोण न्ही '
आयज जाले
परजे बरें मागते
मार्गदर्शनवाले ...

कालचे अुतरां वेपारी
आयचे स्वाभिमानी
झगडपी झुजपी.

स्वतंत्रताये फांत्यार
मेकळिके हुंवरार
जाली गर्दी सगळयांची
आटफाट लागली.
सुटलेलीं तोंडां
साबारांची अुलयलीं–
तापलीं बोडां,
बडबडे झांकले
धांवले, खरशेले
अुडले, चाळवले.

जमात्यो कितल्यो ?!
आड-जमात्यो कितल्यो ?!
जमात्यो !! जमात्यो !!
खंय कावळयांच्यो
खंय मोरांच्यो
खंय कोल्यांच्यो
खंय वागांच्यो
पारव्यांच्यो, गाडवांच्यो.

बडय धोल, सोडून तोल
बडय धोल, सोडून तोल
धरलो भंय, जंयमंय

मुयेन सांडलो जीव
सुकण्यान फीव फीव
मेलो चिड्डून
बाबडो गांयडोळ
पांयां तळा...

गेलीं वसीं
वादळ दमलें
मागीर मागीर मारलें
शान्तताये वारें.

तें अडेचें
आरडणें घालतालें,
भंय निर्मितालें
कोणकोण रचतालें
तें, नांव नासलेलें
पिशें निवळलें.

शेकीं आयलें
लागीं पावलें
हय रे ! जैत
विचारांचें.
बाबड्या गोंयकारांक
आतां शेकीं
सवसकाय सवसकाय
खरेली दिसची जाली !
आमचें मदें भाय भाय

हीच कल्पना
पुरे अुमेदीक जाय.

आमची भास आमकां जाय !
आमचें राज आमकां जाय !
गोंयकारा हीत जाय !
गोंयकारा अुदरगत जाय !
अशेंच किलतलें,
वाडटलें, फळटलें
राश्ट्रीक अेकवटाचें
झाड माणकुलें.

१९ देजेंब्र, १९७०



# नवो गोंयकार नवो विचार

जायतें जायतें करचें आसा
नव्या गोंयांत नवो गोंयकार
जावचें आसा; हय गा म्हाका !
मनान अुगतो करणेन मेकळो
सोबत्या स्वार्थाचो असो
गोंयकार खरो जावचें आसा.

सभाव म्हजो झगडपाचो
जालो जरी, ओड व्हडली
वावुरपाची, कोंकणो कसो.

अुंचलो जरी हांव जालों
तापून आंगार वचचोना
भारती गोंयांत वाद वाडयचोना.

दावी बाजू, अुजवी बाजू
भेद नश्टे, बेजबाबदारी
पोरनेले मानचोना !

नवल नवें घडयचेलें
मेकळो मेळ मेळयचेलो
स्वतंत्र सभाव सुपीक करचेलो.

तुजी म्हजी, पदवी आमची
सगळ्या कोंकणी गोंयकारांची
फुलतां फुलतां ती परमळतेली

दोश तुजो, दोश म्हजो
अेकटांय ताचो होम-अुजो
जावंदी असो समज सारको

विचारवंत पोरने तरीय तरने
व्याख्यान हें करया आमचें-
पुर्णताय आमची जायना पुरो

ओखद दियात, तुमीय घेयात
सिरुरजी करात, करूंकूय दियात-
जें चुकता ताचेर कातर मारात.

सत सगळें हय बरेंच पुरें
सट करून कळना, मेळना तें
नीज कोंकण्यांनीं मतीं दवरचें.

गरज व्हडली समाजाची
जिवीत नवें जियेवपाची
मुळचें आमचें राखपाची.

कोंकणी समाज आसा आज
तीन राज्यांनी फाटलेलो
गरज जळटी अेकचार
घडयचेलो !

कोंकणी आई, मराठी ताई
हिंदू ख्रिस्ती भाई भाई
मुसलमान शेजारी
-सगळे भारतीय.

कोंकणात कोंकणी भास लोकांची
मराठणांत मराठी,
कर्नाटकांत कानडी
जंयची भास, थंय तिचे
राज – हीच निती.

पवित्र कोंकणी भुंयेंतले
तांबडे मातयेंतले, धवे रेंवेंतले
कितले जाण आसा हुमटल्ले !

ख्रिस्ती कोण, हिंदू कोण
अडे पुत्र, हेर भासांचे
अुजवाड फांकूं, वेंचीक घरा परतूं.

दुर्गेक–मारयेक आखो मान
नितळ काळीज, सरळ मन
जातलें आमचें पद, नांव, धन.

–※–

# मेकळीं मनां

चींत मनशा
चींत रे चींत
नाका दुभावा भींत
कोण हिंदू,
कोण ख्रिस्ती
कोण मुसलमान
सगळे आमी म्हान
पूत गोंयचे
नीज भारती, भारती.

पोरनी तरी
नवीच नवी
येवजण वडिलांची
दारां, जनेलां
आसूंदी तीं अुगतीं
मारूंदी वारीं
संवसारांतल्या
सगळ्या तरांच्या
संस्कृतायांची.
आनी अुतरूंदी
पूर्ण, संपुर्ण
विचित्र, सचित्र
अगणीत जीण आमची.

अेकलो मांस खावपी
अेकलो ना खावपी
अेकलो नुसतें खावपी
अेकलो ना खावपी
पुण संवसारांत
जगचे खातीर
जें खावंक जाय
ताचे खातीर
झगडीं नाकाय.

मनीस जितले
तितलीं मतां
हवा तितल्यो
गरजो जेवणाच्यो
तर खंयचीं
करतुबां खतां ?
प्रदेस, खंडां
तितल्यो हवा
आनी प्रकार प्रकार
तर खंयचीं अुतरां
घड सतां ?
खंयचीं फटकिरीं फकाणां ?
हें येवजून हांव म्हणटां
दवरचीं मेकळीं मनां.



# देसभगत

खंयसून आयले ?
कितल्या वेळान पावले ?
खबर ना; माहिती ना...
पुण पावले खरे.

ते पावले खरे
स्वतंत्रताये राज्यांत,
अुजवाडा राज्यांत
सुखा हुंबऱ्यार पावले.

मार कितले खाले
कश्ट कितले काडले
अुपास कितले भोगले
धुमके कितले घेतले
गांव कितले माडयले
रानां दोंगर भोंवले.

नदयो पेंवल्यो, हुपल्यो
गुळयो कितल्यो जिखल्यो
सगळयो करण्यो केल्यो
घरा-दारार अुदक सोडलें
हाकाच लागून खरें,
सपन दिसणांत आयलें.

मार खायत हांसले
अुपाद्रे सोंशीत जगले

लोकराज्या दूत जाले,
स्वतंत्रताये पूत थारले–
अुरले ते सैमीक सताचे
अुगडास तांचे सासणाचे.

धिरिश्ट मोटे
तिक्या खोशयेचे
लांब वर्सां झुजले,
देसभश्टेपण लागलें
तेन्नापासून, तें सोंपलें
तेद्दूस परयान झुजत रावले
ते वीर, खरे पूत देसाचे.
आयली पिणकी, गेली पिणकी
झूज चल्लें... मेलें... जिवें जालें
बलिदान चल्लें... चल्लें
देस परतून स्वतंत्र जालो.
अेक भार गेलोः नवो अुबो जालोः
भार स्वतंत्रताय राखचेलो
न्हय गा अुणो, चालतो !



# भाटकार आनी मुंडकार

भाटकारा भाटकारा
आयक मगा :
' मुंडकारपणा
असलें ना बरेंपण '
तूं म्हणटाय गा ?
—हय गा ! सायबा
तूं सांगता तें
खरें जायत गा !

सांगतां
रागार जाय नाका.
तूं मगा ! भाटकारा !
भाग्याचें, आदाराचें
मानाचें जिवीत
मुंडकाराचें थोडेच दीस
जियेवन पळे.



# माप भरलें, पाप ओतलें

घुपसल्ल्या गांवकारांचें
गंदळल्लें कारबार
आसा सगळें आतां
भूंय सपाट करपाचें.

माप पापाचें भरलें
पुरें; जातलें आतां सारें
दुभावी कर्मां करण्यांचें

कोण घुसपला कुसकेपणांत
कोण घुसपला अनाडीपणांत
कोण रेवडला विसकटपणांत
जाल्यार कोण आपसुवार्थी
करतुबांत.

काडलीं वर्सां दसकांनी
घुऽऽस ! करून मारीत बुचकळी
नुसत्या—ब्रुड्ड्यां परीं हाताशीत
जें मेळत तें चोरयां ना कळटां.

आनी मागीर धा जाणांत
छाती फुलोवन सांगपाची
खबर अुचयल्यांले लुटींची.

-※-

# नवनिर्मण जावचें आसा

शेगूण जाला अुणे
सभाव आटला खरें

राजकीय स्वराज शेकीं आयलें
अर्थीक बरेपण शिपडूं लागलें

कारखान्यांत काम
शेता–भाटांत काम

वावराडी हजारांनी
शेतकामती लाखांनी

हूम-घाम वारयलो
वावर फळादीक केलो

बोटां, हात घोळयले
चमत्कार घडत गेले

वर्सां वतां–वता
धन जमतां–जमतां–

कोण गिरेस्त, कोण आस्तिक...
मोटारींचो चकचक

स्वराज्या अुपरांतल्यो
ह्यो नव्यो पिळग्यो–

जेवपा–खावपा अुमाळे
भोंवपा मोटारी, घे !

शिक्षणा साबार सोंपेपणां
विसवा वच, काबारे–दांसांक

जिवीत संवसारा मौजेचें
अल्लेंय चिंतना त्यागाचें

अुडली मनीसपणा रीत
पयस जाली गरजे देवनीत

भोगाची संवय चड
बळकायल्लीय पावना जोड

चड आदलो बरड, स्वार्थाचो,
आतांचो बरड, अधर्माचो

भारत्यां अेकवट अेकदम दुखांत
कसो येतलो फुडारा मुखांत ?

धक्या आड करच्या सांबाळ
अती गरजेचे, निती अुबाळ

स्वराज्याचीं फळां, सुखां
वांटून खाया, पुसया दुखां

जिवितांत आयलो खर वात
दुस्वासाची ही काळखी रात

विस्वासाची पेटया वात
भारत्यां पडली अेकूच जात

दायज आमगेलें पोरनेलें:
अत्मीक बळ रिशींगेलें...

अत्मीक बळ सदांच नवें
पुनर्जीवन घडयतलें

स्वार्थाची लाट घुंवतली
तोल सुटून बुडयो काडटली

आपस्वार्था भरतलें माप
तेन्नाच आपटतलें पाप

स्वार्था दीस सरतले
निसुवार्था दीस अुदेतले

सुवार्था चिखलांतल्यान
निसुवार्था देंट, अुदकांतल्यान

फूल अपुर्बाये फुलयतलो
समादान सुटिल्ल्यांचें करतलो

हिंदी संस्कृताय नियाळांची
अस्तमते संस्कृताय करतुबांची

अेक दुसरेक केन्नाच मेळिल्ली–
परजे मेकळीक आता घडयतली

तरण्या तेजान फुलतली
संस्कृताय आमगेली

परिक्षीक बिज्ञान हार्विल्लें
त्राण दिवन तिका [illegible]याक
रुजयतली

असले विचारां-हावेस
घेतले नवे भेस

नवनिर्मण घडयतले
आमचे परजे हांसयतले

भारतीय विचारवंतांचें
करतले अुल्लास, खरे

नाण्याक दोन तोंडां, आंगां
तशीं दोन जिनसां मुल्यां

अेके शिवाय दुसरी संस्कृताय
जावच्या ना केन्ना पुरी

पोरनी भारती संस्कृताय
जळीं-मळीं तिची सासाय

मेल्ल्यो संवयो, परंपरा
धर्म नासलो आमच्या घरा

तेन्ना मारलीं नवीं वारीं
अुठले द्रश्टे आमचे मदीं

भारत- माये गांवांत
राखूंक अमोलीक जैतां.





# कोंकणीची सासाय

देवान निर्मिलेली
सैमान पोसलेली
लोकान वाकांडलेली
दूद-भास कोंकणी

अुलोवन अुलोवन सदां
लौकीक जालेली, पाजलेली
अलंकरीत जालेली
भास ही जाणट्यांली

वैज, लेत्राद, शेतकार
पागी, भाटकार, मुंडकार
देशभक्त, हुतात्मे
कोंकणी अुलयतात सगळे

अर्थीक वेव्हारा सुरक्षा
गोंयकारांक तीच दितली
कोंकणी राज्य भास आमगेली
पुर्ण जल्महक संपुर्ण भोगतली

लोकतंत्र, लोकराज्य
जंय सरकार कारभारांत
थंय लोकभाशे सासाय
सैमीच तगूंक जाय

तोंडी वेपार मोलाचो
चलता कोंकणींत जायतो
लेखी कारभार गरजेचो
फुडारा कोंकणींतूच जातलो.

-✻-

## भासो आनीं भुरगीं

भाश्य भास ती
अिंग्लैंडी ! अिंग्लैंडी !
अंतरराश्ट्रीय जाली
सायबा–जात्रा कर तिची
राणी तीच जाल्या तुजी
आनी तिचो तूं पोसगो.

निजाचेक सत्या काळजांत
अडेचेक सत्या कपलांत;
अडेचे आधारान
किराय, किराय आड्डत
किरायत राव, आपटत,
पुता दुसऱ्या दरज्याच्या.

मतीन सादुर, भावनेन मदुर
मतीन अखंड, भावनेन मंद;
भावने शिवाय मोग ना
मोगा शिवाय जग ना.
मेलो मोग, जालो रोग
रोग ! रोग ! सोंसूं नेजो धग
धग ! धग! कसलो रे ! हो भग ?

ह्या धगान जालो भुरग्यां फोग
अुज्या फोग ! कसो सोंसचो
भगभग ?
गांवांत पडला दुखा झगझग
भुर्या–बाळांत कंवळचा धगधग.

बाळां अनाडी निरअप्रादी
ताच्या माथ्यार पेजाद ओजें.
ताच्या भारान देवलां बळगें.

भुरग्याचेर चेपण, दडपण
आमच्या गांवांत चलता
अर्दें शाणेपण, अर्दें शाणेपण.





# आधिकाराक पाळी आसा

हय रे! बाबा
भासो गांवटी
भासो परकी
राश्ट्रीय नदरेन
परकी त्यो परकी
पृथवी नदरेन
मात देशीय.

देस आमचो
राश्ट्र आमचें
पृथवीय आमचीच
हें, सैमाचे बाबा
मांडावळींत सोबलां.




पयली पाळी
देसाची
दुसरी पाळी
राश्ट्राची
तिसरी पाळी
वसुधेची.

पाळयेर पाळी
सोबयल्या

रचणारान बरी,
एक एकलेची.

देशी भास
राश्ट्रीय भास
संवसारी भास
एक एकलेक
आपलें क्षेत्र
निजाचें
आपआपलें कार्य
बिजाचें
रचणारान फरमायलां.

तूं रे पुता
शाणे[illegible]णां अलयता
Plural[illegible]
Society- च्यो
खबरो अुलयता
खबरो गाजयता –
गोंयकाराचो
न्हंय–गोंयकार
करून अुडयता !
असल्या गोंयकाराचो
आधिकार थिरायना
आनी
निज गोंयकाराचो

सरिल्लें वर्स जायत्या नदरांनी फळादीक जालां

गोंयांतल्या दर एका सामान्य मनशाक
ताच्या जिविताची आनी आसपतीची
थाकाय मेळिल्ल्यान तो आयज
उदर्गतीच्या पर्वाचो मुखेल घटक जाला.
नवे नदरेन गोंय वेगान
उदर्गतीकडेन वचत आसा.

**माहिती आनी**
**प्रसिद्धी संचालनालय**
गोंय सरकार, पणजी

मोल ८ रुपय